


(कविता)

डॉ. तन्वी कामत बांबोळकार



**पांवळी**
(कविता)

**डॉ. तन्वी कामत बांबोळकार**
फोन क्रमांकः 9511257964

प्रकाशक
**संजना पब्लिकेशन्स**
39, दत्तवाडी, सांगें,
गोंय. 403704
फोन : 9552551425
ई–मेल : sanjanapublications2@gmail.com



पयली आवृत्ती
**03 सप्टेंबर 2022**

छापणावळ
**रिया ग्राफिक्स,**
ओल्ड– गोवा

मुखपृश्ठ
**श्रीधर कामत बांबोळकार**

भितरलीं चित्रां
**ॲड. हृषिकेश कदम**

**मोल : रू. 150/–**

**PAVLI**
(Poetry)

**Dr. Tanvi Kamat Bambolkar**
Phone Number : 9511257964

Publisher
**Sanjana Publications**
39, Dattawadi, Sanguem,
Goa. 403704.
Ph : 9552551425



First Edition
**03rd September 2022**

Printing
**Riya Graphics,**
Old - Goa

Cover Page
**Shridhar Kamat Bambolkar**

Inside illustrations
**Adv. Hrishikesh Kadam**

**Price : Rs. 150/-**

म्हज्या मनाच्या
पाडसाचेर
निरंतर
मोगाची पांवळी
म्हजी सावळी
म्हजो इश्ट
हृषिकेश कदम
हाका.

# पांवळी ओंपतना...

मुळावे शाळेंत आसतना हांवें म्हजी पयली कविता बरयली. यमक जुळोवपा पुरती कविता, मागीर बरयत गेलें आनी आवड वाडत गेली. मुखार, महाविद्यालयांत साहित्य शिकतना कवितेचें गांभीर्य कळूंक लागलें. कविता सर्तींनी, संमेलनांनी, कार्यशाळांनी म्हजी कविता बरोवप्यां कडेन इश्टागत जाली आनी कविता जिणेचो वांटो जाले. मागीर, बसींत प्रवास करतना, वर्गांत बशिल्ले कडेन कविता सुचूंक लागल्यो.

कविता खूब जाल्यो पूण पुस्तक रुपान खंयच्यो छापच्यो हाचेर मात कितलीशींच वर्सां प्रस्न घुंवत रावले. कोंकणी मळावेले जायते लेखक पुस्तक केन्ना येता हो प्रस्न कितलेशेच खेप विचारताले, पूण हांसून तो प्रस्न कुशीक वडयतालेच. विशी सोंपपाक आयली तेन्ना दिसलें आतां मात मनांत ओतपी पांवळी रिगुंदी हेरांच्याय मनांत...

पावस हो म्हजो आवडीचो. तितलोच ताचो रागय येता – एका मोग्या वरवींच. तो पावस जायते खेप म्हजी प्रेरणा जालो. मोग-राग सारकेल्या भावनांचीय वावझड येताली – वताली. तीय म्हजे कवितेंत रिगली. ह्यो सगल्यो कविता स्पुरपा खातीर कारण थारिल्ल्या सगल्यांक मना-काळजांतल्यान ही पांवळी ओंपतां.

पुस्तक स्वरुपांत तुमचे मेरेन पावपा खातीर जांणी जांणी म्हजे फाटीक लागून, म्हाका पुस्तक केन्ना येता हो प्रस्न विचारून प्रेरीत केलें तांचे सगल्यांचे उपकार. म्हजीं घरचीं, इश्ट-इश्टिणी, वितरक, छापणावळ करपी सगल्यांक ह्या वेळार दिनवासतां.

हे पांवळेंतल्या ओथांब्यांनी तुमच्या मनाक चिप्प भिजोवचें हीच इत्सा!

**– डॉ. तन्वी कामत बांबोळकार**

# ‘पांवळी’ : तन्वीच्या तरन्या भावतरंगांची तिलिस्मी अभिव्यक्ती

रस, रूप गंध, नाद हांच्या कल्पक आविश्कारांतल्यान एखादो कवी आपले प्रतिभेचो साज चडोवन शब्द, अर्थ, प्रतिकां, प्रतिमा, अलंकार हांचो तेंको घेवन एक अकल्पनीय अशी जादुई नगरी उबी करता. कवीची ही जादुई नगरी ताच्या अंतरमनांतल्या तरेकवार बऱ्या-वायट स्पंदनांक सहज अभिव्यक्त करता तेन्ना घडटा तो त्या कवीच्या आत्म्याचो महादिश्टावो.

कोंकणी कवीचो आनी पर्यायान कोंकणी कवितेचो विचार केल्यार, सुमार 20 व्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्धांत कोंकणी कवितेन कूस परथिली. बयाभाव, बाकीबाब बोरकार, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, र. वि. पंडीत, विजयाबाय सरमळकार, शंकर भांडारी, माधव बोरकार, चा. फ्रा. द कोश्टा, जे. बी. मोरायस हांच्यांनी त्या कोंकणी काव्याची मुळावण घातली. उपरांत नागेश करमली, जेस फेर्नांडीस, प्रकाश पडगांवकार, रमेश वेळुस्कार, माधव बोरकार, शरदचंद्र शणै, युसुफ शेख सारक्यांनी ते बुनयादीक घटाय हाडली.

20 व्या शेंकड्याच्या निमण्या दशकांत आर. एस्. भास्कर, शंकर परुळेकार, अरूण साखरदांडे, काशिनाथ शांबा लोलयेंकार, वोल्ली वोग्गा, मेल्वीन रोड्रीगस, संजीव वेरेंकार, नयना आडारकार, नूतन साखरदांडे, आनंद वर्टी, आर. रामनाथ, प्रकाश द. नायक, परेश कामत, निलबा खांडेकार सारक्या कवींनी कोंकणी कवितेचें मुखामळूच बदलून तातूंत प्रयोगशीलतेचो साज चडयलो.

ताचे उपरांतचे पिळगेन ती प्रयोगशीलताय आनीक चड उंचायेर व्हरताना समकालीन भारतीय भासांनी अभिव्यक्त जावपी नवे काव्यप्रवाह कोंकणी काव्यांत हाडून एकंदर कोंकणी कवितेच्या इतिहासाक नवीं मोडणां भेटयलीं. तातूंत डॉ. राजय पवार, ग्वादालूप डायस, फिलोमेना सान्फांसिस्को, डॉ. हनुमंत चोपडेकार, श्रीकांत पालसलकर, काशिनाथ नायक, प्रकाश देसाय, किशू बारकूर, मिनिनो

आल्मेदा, गोपिनाथ गांवस, राजश्री सैल, संदेश बांदेकार सारक्यांचो आसपाव करूं येता. कोंकणी कवितेची ही वारी हेर गद्य लेखना परस निश्चितूच सक्षम रितीन मुखार सरता हातूंत दुबाव ना.

**'पांवळी'कार डॉ. तन्वी कामत बांबोळकार : एक अश्टतासी व्यक्तिमत्व**

आयज 21 व्या शेंकड्याच्या तिसऱ्या दशकांत पावल घालताना कोंकणींतलें नवकाव्य सोदून ताची गुणवत्ता थारोवप काळाची गरज आसा. आयज निदान कविता हो प्रकार आपणावन नव्या दमाचें वट्ट एक भिरेंच कोंकणी कवितेच्या माटवांत एकठांय जाल्लें आमचे नदरेक भरता. अमेय नायक, अन्वेषा सिंगबाळ, पूर्वा गुडे, आदिती फडटे, शुभा बरड, श्रीनिशा नायक, गौराज तळावलीकार, वैष्णवी रायकार, विल्मा बंटवाल, अंबेश तळवडकार, गोविंद मोपकार, सुनील नायक, पुरूषोत्तम वेर्लेकार, लालन पालयेकार, अंतरा भिडे, दिपराज सातार्डेकार, आकाश गांवकार, एश्वर्या नायर, प्राप्ती गांवकार हांचो आसपाव जाता. फाटल्या धा वर्सांचो म्हणजेच 2010 ते 2020 ह्या दशकाचो हिशोब केल्यार कांय नव्या दमाचे उदयमुख तशेंच प्रयोगशील नवकवी कोंकणी कवितेच्या मळार सक्रीय जाल्ले आमी पळयतात. तातूंत डॉ. तन्वी कामत बांबोळकार हांचें नांव अधिकारान घेवचें पडटा.

नोंद घेवपाची गजाल म्हणजे मंगळुरचें 'कविता ट्रस्ट', गोंय विद्यापिठांतल्या कोंकणी विभागांतलें 'कोंकणी सरस्पत मंडळ', विंगड विंगड महाविद्यालयांतलीं 'साहित्यीक मंडळां', गोंयभरच्यो कोंकणी सेवा संस्था आनी हेरांनी आयोजीत कविता सर्तींनी तशेंच दिसाळीं आनी कोंकणी नेमाळ्यांनी, युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांनी, आकाशवाणी, दुरदर्शन माध्यमांनी ह्यो युवा प्रतिभा फुल्ल्यात आनी फुलत आसात. तातूंतलीच एक युवा कवियत्री म्हणजे तन्वी कामत बांबोळकार. ताच्या पांवळी ह्या कविता झेल्याची ही सुपुल्ली प्रस्तावना.

'पांवळी' हो तन्वीचो पयलोच कविता झेलो. खरें म्हटल्यार आतां मेरेन ताचे दोन कविता झेले प्रसिद्ध जावपाचे अशी प्रतिभा ताचे ठाय आसा. मूर्त ल्हान, पिराय ल्हान, अणभव इल्ले पूण प्रतिभा व्हड. आपले इल्लेशे पिरायेर ताणें लेखन, अणकार, अभिनय, संघटन, शिक्षण आनी संशोधन अशा एका परस कितल्याशाच मळांचेर दोळे दिपकावपी कार्य केलां.

साबार कलेच्या मळार तन्वीक हांवें प्रत्यक्ष घडटाना पळयलां. तें एका कलासंपन्न घरब्यांत जल्मलां आनी एका वांगडा जायत्यो कलांचो बाळकडू घोंटीत वाडलां. लेखन, नाटक, अभिनय, गायन, चित्रकला ह्या साबार कलाप्रकारांतल्या म्हालगड्यांक ताणें ल्हानाचें व्हड जाताना आपले भोंवतणी वावुरताना पळयल्यात. तांचे कडच्यान स्फूर्त घेतल्या. आपल्या वाडवडील्लां कडच्यान जी कला मेळटा ती तें शिकत गेलां. नाटक हो एक सामुहीक कला प्रकार. भरतमुनीन 'नाट्यशास्त्र' ह्या ग्रंथांत नाटकाक विशाल भावनांचें अनुकीर्तन म्हटलां. तरेकवार कला प्रकारांक आसपावून घेवपी हो 'पंचम वेद' ज्ञान शिल्प, विद्या, योग अशीं सगळींच तत्वां आपले भितर आसपावन घेना जें हेर खंयच्याच कला प्रकाराक शक्य ना अशें तांचें म्हणणें -

*न तज्ज्ञानं न तच्छिल्पं न सा विद्या न सा कला।*
*न स योगो न तत्कर्म नाट्येऽस्मिन् यत्र दृश्यते।।*

हांगा आ. भरतमुनींचो आनी नाटकाचो संदर्भ मुजरत दिला कारण तन्वीचें अश्टतासी व्यक्तिमत्व घडपाक नाटकाचो भोंव व्हड वांटो आसा. भुरगेपणा सावन ताचे भोंवतणी प्रत्यक्ष नाट्यनिर्मिती जाताना ताणें पळयल्या. नाटकाचे साबार घटक आनी आयाम ताणें समजून घेतल्यात. ल्हानपणा सावन अंत्रुज ललीतक नाट्यसंस्थे'च्या नाट्यमळावेल्या वावराचें तें साक्षिदार. ताचे वडील रंगयात्रीक श्रीधर कामत बांबोळकार हांचे प्रतिभेचो, वावराचो आनी व्यक्तिमत्वाचो खोल प्रभाव तन्वीच्या एकंदर मनपलटाचेर स्वभावीकपणान पडला. राजमाता पद्मावती राजे सौंदेकर हायस्कुलांत शिकतना, महाविद्यालयीन आनी विद्यापिठांतलें शिक्षण घेतना ताच्या व्यक्तित्वांक नवी धार आयिल्ली आमी सगळ्यांनी पळयल्या. इंग्लीश साहित्याचो कस ताणें घोटलां. थॉमस नॅष, विल्यम वर्ड्सवर्थ, रॉबर्ट बर्न्स, हार्टली कॉलरिड्ज, एड्गर अलेन पो, मार्क ट्वेयन, थोमस हार्डी, डी. एच. लॉरेन्स, टी. एस. ईलीअट... सारक्यांची काव्यजाणीव तांणी पचयल्या. देखून एक परिपक्व साहित्यीक समजिकाय आनी कलात्मक अशी तिलिस्मी अभिव्यक्ती ताच्या 'पांवळी' नांवाच्या ह्या नव्यातल्ल कविता झेल्याक आयल्या काय ना हेंय सोदपाचो एक प्रयत्न हे प्रस्तावनेंत केला.

**'पांवळी'चें अतंरंग सोदतना :**

डॉ. तन्वी कामत बांबोळकाराच्या 'पांवळी' ह्या कविता झेल्यांत 75 कवितांचो आसपाव आसा. 'भारत का अमृत महोत्सव' मनयताना मुद्दाम ह्या नंबराची याद दवरल्या हे हांगा स्पश्ट जाणवता. पांवळी' हो एक प्रयोगक्षम असो कविता झेलो. ह्या झेल्यांतल्या 75 कवितांक फकत कवीन नंबर दिल्यात, नांवां दिवंक ना. तेभायर आशय, विशयाचे तशेंच अभिव्यक्तीचे नदरेन आटीव घोटीव रुपान आपले कवितेक प्रस्तूत करून हे कवियत्रीन एक नवी वाट सारल्या. अख्खो कविता झेलो वाचतकच तिच्या कवितांचो अंतप्रवाह समजून घेवप सोंपें जाता. नाट्य, शिक्षण, अभिनय, चित्रकला, संघटनात्मक वावर ह्या सारक्या जायत्या मळांचेर सक्रीय हें माणकुलें व्यक्तिमत्व काव्यलेखना कडेन कित्याक वळ्ळें हो म्हजे मुखार उबो जाल्लो एक महाप्रस्न आसलो. पूण तो 'पांवळीं'तल्यो कांय कविता वाचतकूच सुटलो. तन्वीच्या कांय कवितांनी तिचे कवितेंतल्यान अभिव्यक्त जावपाचें मूळ कारण स्पश्ट जावंक पावलें. तें कारण 71 वे कवितेंत सामकें स्पश्ट जाता-

*कविता ही खुपूच*
*रॅण्डम*
*तिका वेळ-काळ*
*कांय लागना,*
*कास्ट बेरीयर...*
*भाशेचोय बार ना ...*
*ती कशी फ्री*
*बिंदास्त*
*केन्ना स्वताकच*
*करून घेता ती*
*बंदिस्त*
*आपल्याच उतरां मदीं*
*रूपका मदीं*
*पूण तरीय लेगीत*

*ती फ्री, सॅक्युलर*
*आनी रॅण्डम*

तन्वीक कवितेची आत्मियता आसा हाचें फाटलें सगळ्यांत मुखेल कारण म्हणल्यार; कवितेचें मेकळें आनी स्वतंत्र व्यक्तिमत्व. तें व्यक्तिमत्व तन्वीच्या व्यक्तिमत्वाक मेळ घालता. देखून तांचें दोगांयचें जुळटा. दुसरी गजाल म्हणजे, कविता ही तन्वीची फकत अभिव्यक्ती न्ही तर ती ताची जिवाभावाची सहचरणी... सामकी लागशिल्ली इश्टीण. आपल्या अंतरमनांतल्यो तरेकवार व्यथा वेदना ही कवियत्री आपले हे इश्टिणीक सांगता. तिची ही इश्टीण फ्री, बिंदास्त आनी सॅक्युलर. ती तिका तटस्थ रावन जिविताच्या सगळ्या संघर्शांतल्यान वाट काडीत मुखार सरपाची प्रेरणा दिता. देखुनूच समाजीक आनी वैयक्तीक उमाळ्यांची अभिव्यक्ती मांडपी ही तन्वीच्या काळजाचे खाचींतल्यान पर्गळपी 'पांवळी' भोव कलात्मक पद्दतीन कागदार ओंतता. पळयात कशी ती –

*मनाच्या कोनशांतलो*
*पावस कागदाच्या*
*जमनीर रकलो...*
*म्हण ओंठांतलीं गोठलीं*
*उतरां आनी आंवंडो*
*म्हजो सुकलो.*

जरी हो कविता झेलो आयज 2022 वर्सा प्रकाशीत जाता आसलो तरीय तन्वीन ह्यो साबार कविता आदीं म्हणल्यार भोव तरने पिरायेर बरयल्यात. ताची ह्या झेल्यांतली पयली कविता 01 मार्च 2014 जाल्यार निमणी 75 वी कविता 07 फेब्रुवारी 2019 ह्या दिसा बरयल्या हाची नोंद मेळटा. म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार चडश्यो कविता 2014-15 त रचल्यात. घडये कवियत्रीच्या जिवितांतलो हो भोव म्हत्वाचो काळखंड (हाचेर कोणेंय संशोधन करूं येता). ह्या काळांत रचिल्ल्या पयल्या 01 ते 56 कवितांचो अभ्यास केल्यार ताची सुलूस मेळटा. ह्यो सगळ्यो कविता कळत नकळत मोग आनी मोयपास ह्या जिणेत्तवाक धरून शब्दबद्ध जाल्यात. मोग हे संकल्पनेचे तरेकवार आयाम

प्रस्तूत करपी जायत्यो कविता ह्या झेल्यांत आसपावल्यात. पूण दुय्यम दर्ज्याची ही बालीश मोगपांवळी मात निखालस न्ही. वाचकांनी मुद्दाम वाचून पळोवचें ही पांवळी मोगाच्या अंतरप्रेरणेंतल्यान जल्मता खरी पूण फुडें कागदाचे भुंयेर पडटाना जिणेचें खर तत्वज्ञान सांगून वता. जसो वाचक कविता वाचीत मुखार सरता तसो मोगाच्या तरेकवार तरंगांनी रंगता. मागीर ल्हव ल्हव मोग कुशीक पडून जिणेचें तत्वज्ञान सोदपाचो एक प्रयत्न तो करीत रावता. देखी खातीर ह्या झेल्यांतली कविता क्रमांक 01 आनी क्रमांक 56 वी कविता पळोवं येता -

*आसून लार्गी*
*पयस तूं*
*पयस आसून*
*लार्गी,*
*न्हिदल्या पळय*
*रात लेगीत*
*कित्याक आमी*
*जार्गी (01)*

*ताच्या पोरसांत पिकिल्ल्या*
*रसरशीत वांयग्यांची...*
*ताणें आयज शिकिल्ल्या नव्या*
*उतरांची..*
*तिका सकाळ फुडेंच जाल्या*
*बोणेची...*
*खोशी !*
*सगळ्यांची वेगळी तशी*
*पूण उमेद दिवन वचपी ती*
*thing of a beauty is a joy forever...*
*फ्रॉस्टान म्हणिल्लें,*
*हांव म्हणीन,*
*thing of a joy is beauty*
*forever (56)*

गांवगिऱ्या वास्तव जिणेचें यथार्थ चित्रण करून जिणेंतलें खरें सौंदर्य सोदपी अमेरिकेंतले वरमोंटचे राजकवी रॉबर्ट ली फ्रॉस्ट ह्या कवीच्या विचारांचो संदर्भ वयले 56 वे कवितेंत मेळटा. सर्जनशील मनाचो संवेदनशील मनीस खंयचीय नवी गजाल शिकता वा कितेंय नवें घडटाना पळयता तेन्ना ताका आपल्याक नवी कोमरी वा बोणी फुटिल्ल्याची खोशी जाता. जिणेचो तो एक सुखदिणो आनी उपाट धादोसकाय दिवपी खीण. असल्या अमूर्त खिणाक फ्रॉस्ट 'एखाद्या गजालींतली सोबीतकाय ही सर्वंकश खोशी आसता' अशें म्हणटा जाल्यार ही कवियत्री फ्रॉस्टाच्या विचाराचेर आपलें मत मांडीत 'एखाद्या गजालींतली खोशी हीच सर्वंकश सोबीतकाय मानपाक जाय' अशी धाडसी आनी तितलीच अर्थपूर्ण प्रतिकाय दिता. हांगा हे कवियत्रीचे वैचारीक प्रगल्भतेची साक्ष मेळटा. दुसरे एक कवितेंत पळयात ती वैयक्तीक उमाळ्यांतली वैचारीक परिपक्वताय कशी आयल्या–

*हांवें आयज सदां भशेन*
*चकाटां मारूंक म्हज्या*
*एकसुरेपणाक आपयलें*
*ताणें फाट करीत,*
*तोंड वांकडें करीत*
*तुजे कडेन बोट दाखयलें...*
*म्हजी सुवात घेतली ताणें*
*म्हणीत नाच्च जालें. (52)*

'पांवळी' ह्या कविता झेल्यांतल्यो जायत्यो कविता मोगाचे म्हांवाळ भावतरंग घेवन अभिव्यक्त जाल्यात. तरन्या आनी अबुद्ध पिरायेवयलो निर्मळ, नितळ मोग आनी संबंदीत संवेदना आपल्या शब्दांनी भोव कलात्मक पद्दतीन ह्या झेल्यांत आयल्यात. म्हत्वाचें म्हणजे कवियत्रीची भावनीक जाणीव आनी कवितेच्या आशयाची पातळी एक जाल्ल्यान थंय एक खेरीत मोग-योग जुळून नव्या मोग कवितेची अनुभुती जावंक लागता. हो मोग-योग अंतरमनाची प्रतीध्वनी जावन ह्या कविता झेल्यांत जायते फावटी शब्दबद्ध जाला. मोगाच्यो तरेकवार पांवळ्यो ह्या झेल्यांत वाचकांच्या काळजाक थंडाय दिता. ही मोग-पांवळी आत्तां पिरपिरता जाल्यार आत्तां शिरशिरता, केन्ना घसघसता जाल्यार केन्ना

फसफसता, एकदां प्रत्यक्ष प्रणयसूख भेटयात जाल्यार एकदां विरहाचें धगधगतें दुख्ख फुड्यांत वाडटा. जायते फावटी यादींचो घसघसो जावन ओंतता जाल्यार चडांत चड फावटीं घुस्मटमाराचे ओथांबे घेवन अवतरता. हे मोलावणे पासत दोन देखी दिवं येतात –

*पावस ...*
*दर वर्सा पयलोच*
*आसता....*
*दर वर्सा येवन*
*लेगीत....*
*मागीर मोग कित्याक*
*दुसरो तिसरो?*
*तोय बी दर वेळा*
*पयलोच आसता...*
*दर वेळार काळीज*
*तुटून लेगीत*
*तोय दर वेळा*
*नवो आसता.*
*पयलो आसता. (16)*

*तूं घोग्यांनी यो*
*मन तुका रावलां*
*अर्दकुट्या येण्यान*
*तुज्या तें बावलां.... (36)*

'पांवळी' ह्या कविता झेल्यांत मोगाची नितळ संकल्पना मांडटाना ही कवियत्री आपली अशी खेरीत शैली निर्माण करपाक यशस्वी जाल्या. हेरांनी जशें बरयलां ताचे परस तिका कितें तरी वेगळें बरोवपाचें आसा. अणभव संचिताच्या आदारान आनी आपले गिरेस्त प्रतिभेच्या बळग्यार नीज मोगतरंगाची नवी परिभाशा तिका मांडपाची आसा. ही वेगळी परिभाशा सोदपाच्या प्रयत्नांत ही कवियत्री आपली

अशी एक खंगीत काव्यशैली तयार करूंक पावल्या, हें 'पांवळी' वाचतकच मर्तींत येता. तिच्या अवांतर वाचनांतल्यान आनी नवनिर्मितीच्या ध्यासान हें घडूंक पावलां हें नोंद घेवपा सारकें. देखीक –

*यार्दींचो पावस*
*दोळ्यांच्या मळबांत*
*व्हांवलो पळय*
*पोल्यांच्या देंगणांत. (37)*

*आयज तुजो दीस*
*सो दिसता*
*तुज्या दर एके*
*पांवळेन म्हजो कृष्ण*
*म्हाका दिसता (38)*

*पावल म्हजें सरतलें फुडें*
*तुवें दिल्यार एक – एक उतर*
*पूण तुवें दवरल्या लिपोवन*
*उतरां तुजी काळजा भितर (40)*

*म्हजे तुजे भेटेक आयज*
*पावसान लायल्या हजेरी....*
*मोग तुजो पावसाचेर चड*
*काय म्हजेरी? (41)*

'पांवळी' ह्या कविता झेल्यांत एका परस एक अशा आशय विशयांच्यो कविता आसपावल्यात. तातूंत कवियत्रीच्या काळजांतले मेगाचे उमाळे सोडले जाल्यार काव्याची सृजनात्मकताय, जिणेचें तत्वज्ञान, समाजीक जाणीव, दिसपट्टे जिणेंतले वास्तवीक संघर्श आदी विशय आयल्यात. पूण मुखेलतायेन वैयक्तीक उमाळ्यांक तिणें केंद्रस्थानार दवरल्यात. 'हांव' आनी 'तूं' हांचे भोंवतणी

'पांवळीं'तली चडशी काव्यसृश्टी घुंवता. ताका लागून थंय एकेतरेचें तेंच तेंचपण दिसून येवप सभावीक आसा. विशयाच्या संदर्भांत हो पुनर्रावृत्तीचो दोश मानू येता. पूण तरीय आसतना आशयांत विविधताय हाडपाचो सफल यत्न हे कवियत्रीन केला. आनीक एक गजाल हांगा बरोवचीच पडटली; हेर समाजीक विशयाचेर बरयतानाय ही कवियत्री आपल्या 'हांव'क कुशीर सारूंक शकना. तशें आपले भोंवतणी चलिल्ल्या नश्ट्या गजालींची चीड हे कवियत्रीक आसाच पूण ती तेन्नाच ते जाणिवेक शब्दरूप दिता जेन्ना 'हांव' तिचे सांगातान आसता. तशें घडटाना ही कवियत्री आपल्या आत्म्याक भिडिल्ल्या तिव्र जाणिवांक सहज शब्दरूप दिवन वता. सकयले कवितेंत ताची देख मेळटा.-

*पावसाळे सांजेर फकत*
*च्यायेचोच सांगात*
*नाका म्हाका*
*तूंय जाय आसलो वांगडा....*
*पूण तूं थंय हांव हांगा,*
*तुजी याद मात साकर*
*कशी घोळ्ळ्या म्हज्या च्यांत. (45)*

45 क्रमांकाचेर आशिल्ली वयली कविता हे कवियत्रीची खरी प्रतिभा दर्शेयता. फकत मोगा खातीर मोग-कविता हो नेम हांगा लागू जायना. मोगाची एक अर्थपूर्ण रुजवात हे कवितेंतल्यान मेळटा. पावसाळे सांजेर फकत च्यावेचोच सांगात नाका तर आपल्या मोगाळ मनशाचो सांगात जाय अशें म्हणपी ही कवियत्री तुजो सांगता नासलो तरी 'तुजी याद साखर कशी घोळची म्हजे च्यावेत' असो एक गोड विचार मांडटा. हांगा ही कवियत्री मोगा वांगडा येवपी सुख-दुख्खाक भोव साक्षिभावान पळयताना दिसता. मोगाचे वाटेर ती व्हड जबाबदारेन पावलां मारता तेन्ना तिची विचारांचीय उंचाय मतींत येता. मोगाच्यो जायत्यो यादी कलात्मक रितीन सांगपी काव्य ह्या झेल्यांत आसपावलां. देखीक -

*कितलो म्हूणन मोग*
*जिणेंत म्हज्या भरला*
*बांदून दवरतलें म्हळ्यार*
*सूम म्हजो शेणला (51)*

‘पांवळी’ ह्या कविता झेल्याक रचपी ही कवियत्री आपल्या कांय पाचकुल्या कवनांनी जिणेचेर भाश्य करता. कवियत्री पिरायेन ल्हान पूण आपले निरिक्षण शक्तीच्या बळग्यार ती आपलो विचार काव्यांत मांडपाक यशस्वी जाता. तांतल्या तातूंत ती आपल्याक झेपपी विशयांकूच उबारपाचें धाडस करता. खास करून 57 पासून 75 मेरेनच्या कवितांनी आमकां तें धाडस दिसून येता, प्रत्यक्षांत एक संवेदनशील मनीस भोंवतणच्या घडपी आकांतांच्या घडणुकांचेर कसो प्रतिक्रिया दिता तशेंच आपले कवितेंत तो कसो अभिव्यक्त जाता हें ह्या कवितांनी पळोवपाक मेळटा. आयडीयोलॉजी हो आयच्या समाजांतलो एक म्हत्वाचो विशय. हे ‘सो कॉल्ड आयडीयोलॉजीक’ लागून मनीस खंयच्या थराक वता आनी कसलीं फितिसांवां रंगयता ताचो साक्षात्कार सकयली कविता घडयता –

*तो*  
*ते ‘आयडीयोलॉजी’*चो  
*आयलो असो मुखार*  
*आनी लागलो म्हणूंक*  
*म्हजी आयडीयोलॉजी ही*  
*आनी तीच हांव झरयतां*  
*कळना आसली तरी*  
*तीच हांव गिरयतां*  
*किरा वरवीं किरयतां*  
*म्हजे आयडीयोलॉजीच*  
*म्हजें पोट भरता*  
*म्हज्या आयडीयोलॉजींतल्यानच*  
*म्हजें नांव चलता (54)*

ही कवियत्री तरने पिरायेर लेगीत एक विचारी मनीस कशी आपले सुपीक विचार कवितेंत वाचकां खातीर मुजरत पेरता. खरें म्हणजे आपल्या अणभवांतल्यान आपणें जोडिल्लें समाजीक वेव्हाराचें गिन्यान ती हेरांक वांटून उडयता. तशेंच ती आपल्या मना कडेन सेगीत संवाद सादता. मनाक आपली

घालमेल सांगता. तातूंतल्यान भविश्याचो वेध घेवपी जैतीवंत पावलां मारपाची स्फूर्त ती घेता. कशी ती पळयात –

*पूण आतां वेगान वच्चे परस*
*सादूर वचूंक जाय*
*एकान एक*
*पावल राखून*
*घालूंक जाय*
*कशाय कशें जायतय*
*किदेंय...*
*तरी लेगीत*
*मना गो*
*घट रावूंक जाय (68)*

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांच्या 'पाख्या पाख्या वात ही / करतली तुजो घात / उजवाडान भरतली म्हजी रात' हे कवितेचो उगडास करून दिवपी ही वयली कविता. मन घट्ट करून सादूरतायेन पावलां उबारलीं नात जाल्यार फुडार पिड्ड्यार जावपाची भिरांत आसता. तशेंच मनाचो संयम पर्जळीत जिणेक भोव म्हत्वाचो हे विचार ही कविता दिता.

निमणे सुवातेर एक वाचक आनी समिक्षक म्हूण आवडिल्ले एक अर्थपूर्ण कवितेचो संदर्भ घेवया. ही कविता मनशाच्या मनाचो एक खेरीत आयाम दाखयता. कोंकणी कवितेच्या नवप्रवाहांत हो आयाम भोव ओडलायणे तरेन आयज अभिव्यक्त जाताना दिसता. हालींच प्रा. ममता वेर्लेकार हाचो 'धग' नांवाचो नवोताल्ल कविता झेलो वाचपाचो योग आयलो. ममता हिंदी विशयाची प्राध्यापक. तिणें हिंदी भाशेंतली नवकविता वाचल्या आनी पचयल्या. देखून आशय, विशय आनी अभिव्यक्तींतलें नवेपण आपले कवितेंत हाडप तिका शक्य जालां. डॉ. तन्वी कामत बांबोळकाराकूय तेच तरेन ही काव्यशैली होलमल्या अशें म्हाका प्रामाणीकपणान दिसता. ते पासत सकयली कविता देखी खातीर पळोवं येता –

*हांव म्हज्याच*
*पोन्न्या पानांनी*
*घुस्पून परत परत*
*खरडितां म्हज्या*
*इतिहासाचेर ....*
*हांव म्हज्योच*
*करून वादयो*
*हेवटेने तेवटेन*
*शिंपडितां....*
*हांव मदींच*
*जळोवन वडयतां*
*नाका जाल्ली*
*बेचव अजीर्ण उतरां*
*आनी लावन*
*भोंवतां गोबोर*
*तिरस्काराचो*
*कपलार....*
*हांव म्हज्याच पानांनी*
*घुस्पलां....*
*म्हाका शेणूंक जाय. (70)*

अशें म्हणटात 'The community which forget their past don't have better future.' खऱ्यांनीच जो समाज आपलीं मुळां विसरता ताका बरें फुडार मेळूंक शकना. खरें म्हणजे इतिहासाची जाण दवरप गरजेचें आसता. तातूंतल्यान स्फूर्त घेवन आनी वर्तमानांत स्थीर जावन मनशान भविश्याचो वेध घेवपाक जाय. जाल्यारूच मनीस सगळ्या मळांचेर जैतीवंत जातलो असो तो विचार. पूण जायते फावटीं इतिहासांतल्या बऱ्या वायट घडणुकांतल्यान स्फूर्त घेवच्या बदलाक मनीस इतिहासांतूच घुस्पटून पडटा आनी वर्तमानाक वेठीक धरून भविश्याक काळखांत घातला ह्या नाजूक मुद्द्याचेर ही कवियत्री उलयता.

**'पांवळी' मनाचे जमनीर रकयताना:**

स्पश्टूच बरोवचें जाल्यार, 'पांवळी' ह्या कविता संग्रहाचो सखोल अभ्यास करतकच डॉ. तन्वी कामत बांबोळकाराच्या कवितांचें वर्गीकरण करपाचो यत्न केल्यार तें करूंक मेळना. कारण ताच्या एका विशयाचे कवितेंत हेर जायते आशय भरसल्यात. मोग कवितेंत जिणेचो भावार्थ जाल्यार जिणेचो भावार्थ मांडिल्ले कवितेंत समाजीक जाणीव अशें कितेंशें आगळें रूप हे कवितेन आपणायलां. पूण तरन्या भावविश्वाची सक्षम मोग कविता, जिणेचें तत्वज्ञान मांडपी अल्प कविता, समाजीक जाणविकाय मांडपी मोटवी कविता अशीं कांय मुखेल आयाम-सुत्रां ह्या झेल्यांत मेळटात. ही कवियत्री आपल्याच जगांत रावन संवसाराच्या विक्षिप्तपणाचें मोजमापन करताना दिसता. तिच्या काळजांतली घालमेल आनी मनांत चलिल्लो गोंधळ ती शब्दांचे चिमटेंत धरपाचो प्रयत्न करता तेन्ना अप्रतीम अशें अर्थपूर्ण काव्य जल्मता -

*हांव म्हज्याच जगांत*
*रावन हेर जगाक*
*पळयतां,*
*पारखितां*
*निरखितां*
*काळ्या वक्लांतल्यान लेगीत*
*दिसता म्हाका सगळें काळें-धवें*
*कानांतल्या हेडफोनान वाजपी*
*संगिता वांगडा लेगीत*
*आयकूंक येता किळच्यो, बोबाटो*
*सगळें सगळें*
*तरीय लेगीत हांव म्हज्याच जगांत*
*पारखितां, निरखितां*
*त्या जगाक (55)*

21 व्या शेंकड्यांत कोंकणी कवितेचो एक नवप्रवाह तन्वी सारक्या युवा प्रतिभावंतांनी हाताळ्ळा. ह्या प्रतिभावंतांनी आपले अमुरपिके प्रतिभेचो दिश्टावो कवितेंतल्यान घडयला. तन्वीच्या 'पांवळी'च्या संदर्भांत विचार करपाचो जाल्यार,

तें व्यश्टी आनी समश्टी अशा दोनूय पांवड्यार अभिव्यक्त जाता तेन्ना तार्चे आशय विशयाची समज, काव्यतत्वांची प्रखर जाणीव, सूक्ष्म निरिक्षण शक्ती, सुंदर सुटसुटीत मांडणी, कलात्मक स्वरूपाची तिलिस्मी अभिव्यक्ती लक्ख करून दोळ्यांत भरता. देखून आयचे नवकवितेंत तन्वी कामत बांबोळकार हाचो 'पांवळी' हो कविता झेलो संवेदनशील अशा युवा मनांतले नीज उल्कें आत्मितायेन अभिव्यक्त करपाक पावला अशें म्हणपाक रजांव आसा.

तन्वीच्या एकंदर 75 कवितांचेर आनी पुरसय अभिव्यक्तीचेर निमणें भाश्य करपाचें जाल्यार ताचे काव्यसृश्टींत पांटलोभर बळ-स्थानां आनी चवकोभर दुबळीं-स्थानां आशिल्ल्याचें सत मांडप म्हजें कर्तव्य. हे कवियत्रीन साद्या सरळ उतरांनी आपले मनांतले उमाळे शब्दबद्ध केल्यान तातूंत कांय उणेंपण ना. पूण तिच्या शब्दभंडारांत नवी भर पडपाची गरज आसा. हाचेर काम करप गरजेचें. ते भायर ह्या काव्यझेल्यांत वैयक्तीक उमाळ्यां वांगडाच समतोल सांबाळपाक तरी थोडे जास्त समाजीक उमाळे आयिल्ले जाल्यार ही 'पांवळी' आनीक रसिकतायेन ओततली आसली हें सांगन दिसता. एक गजाल मानपाकूच जाय, हे कवियत्रीक जें कितें सांगपाक जाय ताची जाण तिका आसा. कविता आनी आपले अभिव्यक्ती कडेन ती प्रामाणीक आशिल्ल्यान ती आपले कवितेक निश्चितूच वयर काडटली हो विश्वास आसा.

हे कवियत्रीन पावस, वारो, वांयगीं, बोणी, दर्या सारकी सैमीक उतरां प्रतीक वा रूपक म्हूण कांय कडेन वापरल्यांत पूण हेर नवोदीत कवी जे तरेन सैमाचे तरेकवार घटकांचो आदार घेता तसो आदार ही कवियत्री निखालस घेना. देखीक झाड, माड, मळब, कुपां, पान, फूल, काजुलो, नखेत्रां, उदक, झरे, न्हंय अशा सैम-घटकांनी रंगचे परस हे कवियत्रीचें मन विचारांच्या सप्तरंगी रंगांचो वेध घेवन एक तिलिस्मी काव्य संवसार उबो करता.

सोंपयताना डॉ. तन्वीक एक सुचोवणी दियन दिसता. तन्वीबाय, तुज्या वांगडच्या हेर समकालीन कवींनी माड्डिल्ली कवितेची वाट मात तूं निखालस माड्डू नाका. तुजें व्यक्तिमत्व, तुजे अणभव, तुजो काव्याभ्यास आनी तुजी काव्यजाणीव वेगळी. त्या वेगळ्यापणाचो तुजे कडच्यान सन्मान जावंक जाय. विचार करून पळय... सर्जनशीलतेची कलासक्त नदर सैमान आनी नशिबान तुका दिल्या. विश्वास दवर तूं एक राजहंस आसा. सामान्यांतलें सामान्य म्हूण तूं

बेचव कवितेची खरडपट्टी करूंक शकना. देखून तूं जें कोंकणी कवितेक दिवंक शकता तें हेर कोण दिवंक शकचोना. तुवें शब्द आनी अर्थांतलो अंतरंग भेदला, जीण आनी रंगमाचयेचो फरक सोदला, पश्चिमी आनी भारतीय काव्यसृश्टींत भोंवडी मारल्या, वड्सवर्थ आनी इलियट पचयला... ते पासतूच सांगता....... नाविन्न्याचो वेध घेवपी तुजी ही काव्य-पांवळी अशीच व्हांवत रावूं दी... चैतन्न्याचो ध्यास घेवन झडत रावूं दी..... रसिकांचीं काळजां भिजोवपाक झडत रावूं दी.

**– डॉ. हनुमंत चोपडेकार**
सहयोगी प्राध्यापक आनी साहित्यीक

## 1.

आसून लागीं
पयस तूं
पयस आसून
लागीं,
न्हिदल्या पळय
रात लेगीत
किद्याक आमी
जागीं ?

*01/03/2014*

2.

न्हीद येता
न्हिदन दिसना
राग येता
तापन दिसना
मन जालां
पिशें म्हजें
दुख्खांची ताका
झळ लागना.

*01/03/2014*

3.

रडपाच्यो राती
सोंपल्यो घडये..
आतां हांसत-हांसत
न्हिदपाचें
मोग जालो नासत घडये
पूण मोगान पडिल्ले
वरवीं रावपाचें.

*22/06/2014*

4.

पांगरून हांसो
दोगूय आमी
चलतात वाट..
खंय सोंपता
खबर ना
पूण धांवतात पांय
दीस रात!
जोत जिणेची
हातांत ताच्या
रोंट ताचें
पोटांत म्हज्या.

*02/03/2014*

5.

तूं
म्हज्या काळखान
धवो उजवाड !

तूं
म्हज्या काळजान
खरो बोवाळ !

तूं
म्हजे जिणेची
नवी सुरवात !

तूं
म्हजे कोडसाणेक
सूर म्होंवाळ !

*06/03/2014*

6.

ते दीस म्हज्या
कानांतलें शेणिल्लें!
कानांतल्या वांगडा
आनी कितें तरी
शेणिल्लें!
घडये काळीज तें...
कानांतल्याच्या बोवाळांत
तेंय शेणिल्लें.
कोणें नवें कानांतलें
दिलें घेवन
हांवें घालून मिरयलें
काळीज अजून शेणलां
दिवशी सोदून?

*06/03/2014*

7.

खंयच्यान काय
अशीं हीं नातीं
जुळटात...
कशीं काय हीं
मनां भुलतात
कितलें सोबीत
जिवीत ह्या नात्यांक लागून
जिविताच्या कांट्यांनी
हीं फुलां
फुलतात.

*07/03/2014*

8.

विशाल ह्या
नात्यांची
व्हडविकाय
म्हान ह्या
मोगाची
सोबीतकाय
जगांतले सगळे
व्हड वाद - अपवाद
ल्हान दिसचें
हांचे मुखार,
येदी तांची
अप्रुपकाय.

07/03/2014

9.

खीण भर दोळे
धांपून तुजी म्हूर्त
हाडली दोळ्यांत.
त्याच खिणाक
उमाळे अंदून
उरले गळ्यांत.

*08/03/2014*

10.

तुवें राव म्हणलें
म्हूण रावलें..
तुवें साद घालो
थंय धांवलें
तुवें नदर फिरयली
थंय पळयतनाच
हांव वास्तवांत
पावलें...
तुवें परत वळून
पळयल्यार काळीज
म्हजें कलकलता...
तुवें नदर मेळयल्यार
मन मुरगुट्टा
तुज्या येवपाच्या
तालार म्हजो
पदर थरथरता.

*2014*

11.

तुवें दिल्ल्या
फुलांचो वास
अजुनूय नाकांत
घुमघुमता
तुवें केल्ल्या स्पर्शाचो भास
अजुनूय मनाक
भुलयता
तुज्या सांगातांतले
ते खीण अजून
बसल्यात काळजांत
जावन काळजाचेच
ठेके
पूण यादींक तुज्या
चडला पळय,
विरहाचें धुकें...

*08/03/2014*

12.

कसली म्हणून
जादू तुजी
कसली तुजी
नशा!..
काळजाक म्हज्या
अजून मेरेन
कसलीच ना
आशा!
कशें सांगूं कितें
जालें?
कशें हांव मोगान
न्हालें?
कशें शेणलां उतर
म्हजें?
खंय शेणल्या म्हजी
दिशा?

*08/03/2014*

13.

थोडो वेळ
म्हाका हे
धुंदिंतूच रावूं दी.
मोगाच्या तुज्या
उपाट दर्यांत
पेंवूं दी
जाय जाल्यार
व्हडें कशें
व्हांवूं दी..
मोग ओतून
एकदाचो अंत
ताचो जावूं दी.

*08/03/2014*

14.

म्हजे भितर
आशिल्लें सगळें.
तुवें करून
दिल्या वाट
बांद फुट्टून
हुंवार आयला
हुपला न्हंयचो
पाट
पळय आतां
दोळ्यांत लेगीत
दुकांय रावल्यांत
दाट..
दाटिल्लीं दुकां
फुट्टटली..
न्हंये वरवीं
व्हांवतलीं
सुकून थंयच
उरतलीं
केलीं
जर तुवें
फाट,
रान मागीर
मन
भिरांकूळ गुपाट.

*08/03/2014*

**15.**

तूं उलयतना
जग शेणटा
म्हजे खातीर
तूं पिडटना
त्रास जातात
गुप्प !
तूं करतना
फकांडां
गंभीरतायेन
घेतां हांव
तुज्या दर
एका नखऱ्याची
अपुरबाय दिसता
खुप्प !

*08/03/2014*

16.

पावस
दर वर्सा पयलोच
आसता..
दर वर्सा येवन
लेगीत..
मागीर मोग कित्याक
दुसरो तिसरो?
तोय बी दर वेळा
पयलोच आसता..
दर वेळा काळीज
तुटून लेगीत
तोय दर वेळा
नवो आसता.
पयलो आसता.

*14/03/2014*

**17.**

पयल्या पावसा वांगडा
कितल्योश्योच पोन्न्यो यादी
भिरीभिरी करून
शिरशिरतात मनाच्या
सुकिल्ले मातयेचेर...
आनी
अळंग भिजयतात
मनाचें दर एक पान
दर एक खांदो...
चिप्प जावन वता
यादींच्याच पावसांनी
मन माती
मन धर्तरी
आनी किल्लूंक लागता
एक एक करून
उमाळ्यांच्यो बियो...
पयलो पावस...
येता असोच...
इल्लो इल्लो...
पूण घेवन येता कितलें...
दिवन वता कितलें.....

*06/05/2017*

18.

हळूच येवन
वाऱ्यान म्हजे
केंस हुबयले..
ताणशेल्ल्या जिवाक
म्हज्या केलें
धादोस
सांगलें ताणें करनाका
कसली चिंतना
कसलो हुस्को
दुख्ख ओगीच आयलां
खऱ्यांनी जाल्या
तुका खोस.

*07/03/2014*



19.

आतां कित्याक
ओगी मोगा
कसलें लिपलां
गुपीत?
तुज्या सुरां बगर
म्हजें रंगचें
ना रे गीत

*14/03/2014*

20.

रुचीक तुजें नातें मोगा
हाडटा जिणेंत रस
म्हजे जिणे देवळाचो
तूं भांगरा कळस.

21.

मोगांत परत पडप तुज्या,
म्हारग म्हाका पडटलें.
मोग तुजो सोदपाक गेल्यार,
रिणांत हांव बुडटलें.

22.

तुवें दिल्लें
रीण जायत कशें?
रीण आसलें जाल्यार
जीण सोंपपाची
रीण पावयत तें...

23.

रागार जावूं नाका मोगा
तुजेच खातीर सगळीं गितां
मोग म्हजो जायना उणो,
काळीज म्हजें सांसपिता!

*14/03/2014*



24.

पावस आतां धरचेल्यांनी
आयला खेळपाक,
ही धर्तरी कशी कुस्तार
ताका मेळपाक
पावस धांवता घोग्यांनी
धर्तर पेट्टा धगांनी
पावस आयला धर्तरीचे
नखरे तेळपाक
धर्तरीक कठीण आतां
ताच्यो दडको झेलपाक.

*18/03/2014*

## 25.

आतां तुजे यादीन
कवळें मन करपता !
फुलचे सांडून कळी ती
मदले मर्दी बावगता !
किरणां तुज्या मोगाचीं
जातात ताका जड,
काय तुज्याच मोगाच्या
दुख्खान जीण ताची
विरजता?

*18/03/2014*

26.

मम्मा, म्हाका नाका
तोडो, नाका पाटली,
नाका हार.
भांगर म्हजे मनीस
म्हज्या काळजाचो
रत्नहार...

*18/03/2014*

27.

कवळ्या म्हज्या काळजाची
कसली घडयल्या तुवें भास?
म्हजे म्हाकाच रे वळखूंक
येनात म्हजे कवळे श्वास.

*18/03/2014*

28.

(1)
तूं सांगता जायत्यो
गजाली
काळजांत खेळटा म्हज्या
कव्वाली.

(2)
याद तुजी काळजांतूच
चिड्डोवपाची,
वाट आसा म्हाका केदी
माड्डोवपाची.

(3)
काळजाची काळखा
कूड
घेता खंयचो मोगा
सूड.

*26/03/2014*

29.

तुमकां खेळचो पडचो
न्ही गे म्हाका डिस्प्ले
करपाचो खेळ
कोणा कडेन तरी जुळटलो
पळय म्हजे जिणेचो मेळ.

*26/03/2014*

30.

रखरखीत वोतांत
लेगीत याद तुजी
मोगा.
रशरशीत पावस
पडटकच मेळया न्ही
आमी दोगां?

*26/03/2014*



31.

मुदयेर जशी सोबीतकाय
हाडटा इल्लें थीक
तशी म्हजे जिणेची
सोबीतकाय तूं
अनामीक.

*28/03/2014*

32.

न्हीद येवन लेगीत
जाचे कडेन
उलोवपाची आस...
जाच्या उतरांक लागना कसलीच भास.
जाच्या उतरांनी थांबतात
निरर्थक स्वास
कोण तरी असोच
खास.

*31/03/2014*

33.

(1)
नात्याची आस
अनवळखी भास
नवें आपणावपाचें
हे खोसदिणे त्रास!
नवीं नातीं
नवे पास.

(2)
पाचव्याचार दोंगरा मर्दींच
तांबडोच गुलमोहर फुल्ला...
काळखिल्ल्या काळजांत म्हज्या
तुजो सतरंगी रंग भरला.

*07/04/2014*



34.

दुख्खांचो दर्या गाजता
आनी ल्हवूच येता
ल्हार...
मोग न्हय हो
फक्त उमाळ्यांचो भार
काळजाच्या शिंपयांचेर
तूं मोतयां वरवीं स्वार.

एप्रील 2014

35.

मनाच्या कोनशांतलो
पावस कागदाच्या
जमनीर रकलो..
म्हण ओंठांतलीं गोठलीं
उतरां आनी आंवडो
म्हजो सुकलो.

*09/06/2014*



36.

तूं घोग्यांनी यो
मन तुका रावलां.
अर्दकुट्या येण्यान
तुज्या तें बावलां.

*09/06/2014*

37.

यादींचो पावस
दोळ्यांच्या मळबांत
व्हांवलो पळय
पोल्यांच्या देंगणांत.

*13/06/2014*

38.

आयज तुजो दीस
सो दिसता
तुजे दर एके
पांवळेन म्हजो कृष्ण
म्हाका दिसता.

*19/06/2014*

39.

तुजे इल्लेशे थेंबे
घोगे जातना
म्हजें इल्लेशें मन
जाता दर्या
उमाळ्यांचो
तुजी वावझड
आंगार पडटना
म्हजें आंग
जाता रूख
शिंगाराचो.

*19/06/2014*



40.

पावल म्हजें सरतलें फुडें
तुवें दिल्यार एक-एक उतर
पूण तुवें दवरल्यांत लिपोवन
उतरां तुजीं काळजा भितर.

*19/06/2014*

41.

म्हजे तुजे भेटेक आयज
पावसान लायल्या हजेरी...
मोग तुजो पावसाचेर चड
काय म्हजेरी?

*19/06/2014*

42.

आयची रात कुरकुटांत
ताच्या यादींच्या
फालच्या दिसा
पांगरुणांत
ताच्या वेंगेच्या.

*28/07/2014*

43.

त्या पोन्न्या प्रस्नांच्यो जापो
सोदप सोडलां हांवें आतां,
नवे प्रस्न भोंवरे कशे
गुणगुणपाक लागल्यात
काना कडेन.
पोन्ने प्रस्न देवाचो प्रसाद
म्हूण घेतिल्ल्या,
खूब दीस दवरून सुकिल्ल्या
पाकळे वरवीं सुकल्यात
तांची सासाय उरल्या काय ना
हें देवूच जाणा.
नवे प्रस्न भर पंदरा दीस
गरमेचो रखरख सोंसून
नवोताल पावस पडचो तशें
नव्यान भिजयतात म्हजें अंतरमन...

*03/07/2014*

44.

तुजी याद
परत परत
येता म्हणून,
पांगरूण घालून तिका न्हिदयली
आनी
आतां ती
उठून
कांडूंक लागल्या धुमशेणां.



45.

पावसाळे सांजेर फकत
च्यायेचोच सांगात
नाका म्हाका
तूंय जाय आसलो वांगडा
पूण तूं थंय हांव हांगा,
तुजी याद मात साकर
कशी घोळ्ळ्या म्हज्या च्यांत.

*01/09/2014*

46.

काळजाच्या कोनशांत
मोगाचें ल्हार...
मोगाच्या ल्हारार
तुजें म्हजें शार...
तुज्या म्हज्या शारांत
उक्तें सुखा दार
सुखाच्या दारांत
मोगाचो भार.

*28/10/2022*

47.

भंय असो अकस्मात
बुचकळायता
जिवाचेर येता आकांत
पूण तोच घडये दिता
बळगें
जीव करूंक परत
शांत.

*26/01/2015*



48.

चलता भयाण वाट
जशें रान काळें दाट...
कोणेंच करूंक ना फाट,
तरी सगलो शुकशुकाट !

*29/01/2015*

49.

मम्मा,
तुका रांदनीर किदेंय करपतकच
वास रोखडो लागता मगे...
म्हज्या काळजांतूय करपतकच किदेंय
लागता काय गे तुका वास?
म्हज्याय काळजा रांदनीवेलें
निस्तारतली काय.

*02/02/2015*

50.

वेणो आंगांतल्यान किदें वचपाच्यो
मनांतल्यान किदें वचपाच्यो
दुखदिण्यो
सूखदिण्यो.

*25/02/2015*

51.

कितलो म्हणून मोग
जिणेंत म्हज्या भरला
बांदून दवरतलें म्हळ्यार
सूम म्हजो शेणला.

52.

हांवें आयज सदां भशेन
चकाटां मारूंक म्हज्या
एकसुरेपणाक आपयलें
ताणें फाट करीत,
तोंड वांकडें करीत
तुजे कडेन बोट दाखयलें...
म्हजी सुवात घेतली ताणें
म्हणीत नाच्च जालें.

*11/03/2015*



53.

तुज्या यादींचें जोगूल
म्हज्या काळजांत आयज
सकाळींच चकचकलें..
आनी सांज जाली तरी,
गडगड सुरूच आसा...

*जून 2016*

54.

तो
ते 'आयडीयोलॉजी'चो
आयलो असो मुखार
आनी लागलो म्हणूंक
म्हजी आयडीयोलॉजी ही
आनी तीच हांव झरयतां
कळना आसली तरी
तीच हांव गिरयतां
किरा वरवीं किरयतां
म्हजे आयडीयोलोजीच
म्हजें पोट भरता
म्हज्या आयडियोलॉजींतल्यानच
म्हजें नांव चलता
म्हजे आयडियोलॉजी खातिरूच
वळखतात म्हाका सगळे
म्हजे आयडियोलॉजीनूच
दिलां हें सगळें.
आयडियोलॉजी एके आयडियोलॉजी
सगळ्यांची आसची
एक तरी..
तुमकां ना?
नाजाल्यार तुमचें पोट
कशें भरता???
Ideology is a must
म्हणून तो गेलो परत
आपली आयडियोलॉजी मिरोवपाक
किरोवपाक
गिरोवपाक...

*12/03/2015*

55.

हांव म्हज्याच जगांत
रावन हेर जगाक
पळयतां
पारखितां
निरखितां
काळ्या वक्लांतल्यान लेगीत
दिसता म्हाका सगळें काळें-धवें
कानांतल्या हेडफोनान वाजपी
संगिता वांगडा लेगीत
आयकूंक येता किळच्यो, बोबाटो
सगळें सगळें
तरीय लेगीत हांव म्हज्याच जगांत
पारखितां, निरखितां
त्या जगाक.

*12/03/2015*

56.

ताच्या पोरसांत पिकिल्ल्या
रसरशीत वांयग्यांची
ताणें आयज शिकिल्ल्या नव्या
उतरांची..
तिका सकाळ फुडेंच जाल्या
बोणेची
खोशी !
सगळ्यांची वेगळी तशी
पूण उमेद दिवन वचपी ती
Thing of a beauty is a joy forever
फ्रोस्टान म्हणिल्लें,
हांव म्हणीन,
Thing of a joy is a beauty
forever...

*16/03/2015*

57.

आज परत एकदां
तुजी सुलूस लागतनाच
परत उतरांचो गडगड
आनी उमाळ्यांचें जोगूल
आनी परत म्हजें भिजप
तुज्याच कवनांनी.
परत तीच नशा
तुज्या थेंब्यांनी...

*जून 2016*

58.

तुजें येवप पिशां भशेन
अकस्मात गडगडून ..
केन्ना-केन्ना रुखावेल्यान
टिंब कसो कडकडून ...
तुजें पडप विचित्रूच,
केन्ना - केन्ना खातोड कशें
केन्ना - केन्ना तुजें झडप
आंगाक तोपपी फातर
कशें.
केन्नाय तुजीं नुरां मात,
सोबीत लावण्यवतीचीं
भुलोवपाकच धाडल्या जिका
सोंसचे तुजे नखरे
कशें?

*जून 2016*



59.

तुज्या यादींचीं पांखां
लावन उडटा मन
दिगंतरां....
तुज्या यादींचो पसारो
दोळ्या हुजीर मांडून
खेळटां हांव नवो खेळ..
तुका दर कडेन सोदपाचो..
तुज्या अंतरमनांत
रिगपाचो....
उडपी म्हजें मन
आनी सोदपी तुका
दोळे विसरतात भान
वेळाचें..
आनी उडत रावतात
सोदूंक तुज्या
यादींचीं अक्षरां!

*23/04/2017*

60.

काळेकिट्ट रातीन
लखलखपी नखेत्र तूं.....
रखरखपी वोतांत
वाऱ्याची थाकाय तूं
ओल्याशा दोळ्यांत
लिखलिखपी हांसो तूं..
निर्शेल्ल्या पोशांत
आशेचो शिंवर तूं
तळमळपी जिवाक
थंडावपी सूर तूं..
कळवळिल्ल्या मनाची
भांगराची देग तूं....
शेणिल्ल्या तारवांची
पयसुल्ली देग तूं
उबगल्ले जिणेक
लागिल्लो वेग तूं...

*23/04/2017*

**61.**

आयज रात म्हाका
जागयता
लिखणी गिरोवपाच्या
नादान...
हरशी जागयता
तुज्या सपनांनी,
आयज सगळीं सपनां
एक-एक करून
येवपाक लागल्यांत
कागदाचेर..
जागोवपी रातीन
पडपी नखेत्रां कशीं..
कागदार चितारल्या
तुज्यो यादीं
आनी तूं.

*23/04/2017*

62.

तूं एक कुवाडें
तुका सोडयता
सोडयताच घडये
जातलें हांव जाणटे...
तरी घडये सुटचें ना...
तुजें सारकें कठीण
कुवाडें..
मागीर हांव तें
सोडयतां तरी कित्याक?
घडये मर्दींच चुकून
म्हाका म्हज्यो जापो
मेळत म्हणून दिसता...

*23/04/2017*

63.

तुज्या दुख्खांची
गवाय म्हजो
भिजिल्लो पोसो
म्हज्या सुखांची
पिराय तुजो
लिपिल्लो हांसो.

*23/02/2018*



64.

हांव भोंवरो
गिरयतकच
घुंवतलों
नाजाल्यार खंय तरी
कोनशाक
खुंटो कसो पडटलों.

*23/02/2018*

65.

अशें अकस्मात जाता,
खंयचें तरी वारें
व्हांवन शें येता
समजुपी समजता
समज नाशिल्ल्यांचें बरें,
ते आपले भितरच
किदें तरी समजतात.
वारें मात येता
येवन परत वता
आशेल्लें मन पावसा बगर
चिप्प ओलें न्हाता.

*23/02/2018*

66.

म्हज्या आंगणांत
मारिल्ली किळांच
तुजे माळयेर
पावली...
म्हज्या मोडिल्ल्या
पाख्यार पडल्या
तुज्या झुंबरांची
सावळी
म्हजें तिश्टेवप
तुजें येवप
तुवें येतकूच
हेरांनी चाळोवप
तांणी चाळयतकूच
हांवें मिरवप
तितलें पुरतेंच
कारण,
म्हज्या आंगणांत
फकत सावळी
झुंबरां तुज्या
सालांतच...

*23/02/2018*

67.

आतां ल्हव ल्हव करून
सगलीं पोन्नीं दस्तावेजां
हे वटेंतलीं ते वटेंतलीं
पुरुमेतां..
यादी आनी खीण
उस्तून - बिस्तून
एकठांय करून
दवरूंक जाय एकी कडेन
कोण-केन्ना
खंयच्या वेळार
त्या यादींचो, खिणांचो
हिशोब मागत म्हूण
सांगूं येना.

*फेब्रुवारी 2018*

68.

वेग देंवला,
वाडटलो परत
काय खबर ना..
पूण आतां
वेगान वच्चे परस
सादूर वचूंक जाय
एकान एक
पावल राखून
घालूंक जाय
कशाय कशें जायतय
किदेंय...
तरी लेगीत
मना गो
घट रावूंक जाय.

*23/02/2018*

69.

घडटलें कितें
वाडटलें कितें
कोण जाणा?
कितलीं चडूंक
आनी देंवूंक जाय
दुख्खां देंगणां?
कितले फातर
विरहाचे
कितले कांटे
पिडपाचे
अजून आसात
कोण जाणा
दिसतात फकत
सोपणां
तीं सोंपून सोंपनात..

*23/02/2018*

70.

हांव म्हज्याच
पोन्या पानांनी
घुस्पून परत-परत
खरडितां म्हज्या
इतिहासाचेर
हांव म्हज्योच
करून वादयो
हेवटेन तेवटेन
शिंपडितां..
हांव मर्दींच
जळोवन वडयतां
नाका जाल्ली
बेचव अजीर्ण उतरां
आनी लावन
भोंवतां गोबोर
तिरस्काराचो
कपलार....
हांव म्हज्याच पानांनी
घुस्पलां....
म्हाका शेणूंक जाय.

*22/02/2020*

71.

कविता ही खुपूच
रॅण्डम
तिका वेळ-काळ
कांय लागना.
कास्ट बॅरीयर..
भाशेचोय बार ना..
ती तशी फ्री
बिंदास्त
केन्ना स्वताकच
करून घेता ती
बंदिस्त
आपल्याच उतरां मदीं
रूपका मदीं
पूण तरीय लेगीत

ती फ्री, सॅक्युलर
आनी रॅण्डम.

*23/02/2018*

72.

म्हजे तुका समजुपाक
घडये
मातसो - मातसो
वेळ लागत ...
पूण समजिकाय
मनशाचो पयलो धर्म
तूं
हांव
घेतलीं
स
म
जू
न
ए का मे कां क.

*23/02/2018*

73.

तो पयर दोळ्यां मुखारल्यान
पासार जालो
राती मागीर सपनांतय
आयलो.
हरशी ताचे कडेन सगले
पास हांवें केन्नाच तोडिल्ले.
पूण मेमरीज डीलीट
करतना चुकून एक
फोल्डर म्हाका दिसता
क्लावडार उरिल्लो
तो आतां कायमचो
काडपाक हांवें एक
इंजिनियर नेमला.
डिलीटींग मेमरीज.
100% Successful!

*23/02/2019*

74.

म्हजें गुपीत
म्हजे शीण
म्हज्या खिणांची
म्हजी जीण..
म्हजीं उतरां
दिगंतरा...
म्हजे उमाळे
अंतरांत..

75.

किणकीण कानांत
वाजता सुखाची
दुख्ख सोदूंक
भोंवूं नाका
माती मनाची
भिजूं इल्लीशी,
दुखा बियां
रोवूं नाका
वेल हाशांची
फुल्ल्या मनांत,
हुमटून तिका
वडोवं नाका
झेत सुखाचो
नेट दाखयता,
झेलत काळजांत
धोलय ताका..

*07/02/2019*



## डॉ. तन्वी कामत बांबोळकार

- गोंय विद्यापिठांतल्या इंग्लीश विभागा वरवीं गोंयच्या लोकनाट्याचेर पी.एचडी.
- केपेंच्या सरकारी महाविद्यालयांत इंग्लीश विभागांत सहाय्यक प्राध्यापक.
- कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय, ज्योत्स्ना प्रकाशन, पुणे, प्रथम बूक्स, नवी दिल्ली, एन.सी.ई.आर.टी. नवी दिल्ली ह्या संस्थां खातीर बालसाहित्याचो
- ल्हानपणांतल्यान रंगमाचयेर अभिनयाचो वावर. शालेय पातळीचेर अभिनया खातीर इनामां फावो जाल्यांत.
- 2004 वर्सा सृजनात्मक सादरीकरण आनी 2007 वर्सा सर्जनशील लेखन ह्या विभागांनी बाल भवनाचो गोमंत बालभुषण पुरस्कार फावो जाला.
- अंत्रुज घुडयो संस्थेन सादर केल्ल्या 'लॉगआवट' ह्या पयल्या नाटका खातीर 2020 वर्सा जाल्ले कला अकादमीचे 44वे कोंकणी नाटक सर्तींत संहितेचें पयलें इनाम.
- गोंय विद्यापिठाच्या सर्गेस्त शंकर रामाणी यादस्तीक कोंकणी कविता सर्तींत पयलें इनाम.
- अंत्रुज लळितक संस्थेच्या 'प्रेमजागोर', 'वाय' सारकिल्या फामाद नाटकांनी अभिनय.
- भुरगेपणांतल्यान सुनापरान्त दिसाळ्यांतल्यान लेखन.
- भांगरभूंय दिसाळ्यांत 'लोकवेद' आनी 'प्रासंगीक' सदरांत लिखाण.
- आकाशवाणीचेर वृत्तनिवेदक आनी अनुवादक म्हणून वावर केला.
- टायम्स ऑफ इंडिया आनी सुनापरान्त ह्या खबरांपत्रां खातीर पत्रकार म्हणून वावर. तशेंच दुरदर्शन, प्रुडंट, गोवा365, एच.सी.एन ह्या न्यूज चॅनलां खातीर कार्यावळीचें निवेदन केलां.
- कोंकणी साहित्य संमेलन, गोवा युवा महोत्सव आनी हेर महाविद्यालयीन पातळेवेल्या सर्तींनी इनामां आनी वांटो.